# मार्विन सगळयां मदीं एकसुरो

लेखक - कॅथ्रिन पिटरसन

चित्र - जेन क्लार्क ब्रावन

अणकार – देविता खुळे



# मार्विन सगळ्यां मदीं एकसुरो

लेखक - कॅथ्रिन पिटरसन

चित्र - जेन क्लार्क ब्रावन

अणकार – देविता खुळे






मार्विन गेट्स आज आकूळपिकूळ जाल्लो.

ताची नवी शाळा खूब व्हड आशिल्ली.

ताका लागून तो शाळेंत शेणटालो.

ताची भयण, मे, ताका मदत करताले.

'पयल्याच दिसा तुवें म्हाका कळाव केलो' अशें ताणशेत तें ताका क्लास दाखयतालें.

मार्विनाक त्यावेळार रडनशे दिसले, पूण तो रडलो ना.

"ही तुजी क्लास!" आनी "ही पळय तुजी टिचर!" अशे सांगून मे गेलें.

शिक्षिकेक पळोवन मार्विनाच्या जिवाक सूSSS जाले.



“अरे! आनीक एक विद्यार्थी? आतां तर चडूच जाले,” जेन्ना शिक्षिकेन अशे म्हणलें तेन्ना मार्विनाक विचित्र दिसलें.

घडये टिचरीक हांव आवडूंक ना असो ताचो समज जालो.



मार्विनाक क्लासीन चारूय वटेनी कार्डां लायिल्लीं दिसलीं. एक कार्ड शिक्षिकेन लेगीत लायिल्लें.

"म्हजे नांव मीस ब्रावन" शिक्षिकेन आपली वळख दीत म्हणलें. मागीर आपल्या कार्डाक बोट दाखयत "ब्राsss वsss नsss" अशें तिणें म्हणलें.

“हें प्रकरण किदें?” मार्विनान विचारलें.

"तुका शी खाता?" अशें म्हणत मीस ब्रावन आनी हेर भुरगीं हांसूंक लागलीं. पूण मार्विन पळयतूच उरलो.

तेन्ना मार्विनाक आपूण सगळयां मदीं एकलो आशिल्ल्याचें दिसलें.





“हांव सुद्धां! हांव सुद्धां!” उमळशिकेन सगळीं भुरगीं बोवाळ घालूंक लागलीं,

पूण मार्विन एकलोच ओगी बशिल्लो.

ताच्या नांवाचें कार्ड नाशिल्लें. तो खूब जाणां मदीं एकसुरो जाल्लो.



मागीर शिक्षिकेन दुसऱ्या कार्डाक बोट दाखयत म्हणलें,

“आतां हें कोणय वाचपाक शकता?”

“हांव वाचतां” एके चलयेन हात वयर काडलो.

“हाचेर मेरी बरयलां. मेरी म्हजें नांव.”

“शाब्बास!” शिक्षकेन तोखणाय केली.

“मेsssss रीssssss,” आपलें नांव वाचूंक शकता.

दुसऱ्या दिसा शिक्षिकेन म्हणलें, "आपल्या नांवाचें कार्ड सोदात आनी आपल्या जाग्यार वचून बसात."

"म्हजेंय कार्ड आसा?" मार्विनान विचारलें.

"हय, आयज तुजेंय कार्ड आसा," टिचरीन जाप दिली.

हीं उतरां आयकना फुडें मार्विनाच्या तोंडार हांसो फुल्लो.

ताका म हें अक्षर दिसलें, म वयल्यान मार्विन अशें मानून तो त्या बांकार वचून बसलो.

"उठ", एके चलयेन म्हणलें.

"तूं मेरी न्ही. हांव मेरी."

हें पळोवन मार्विनाक सोडून सगळीं भुरगीं हांसलीं.





दिसान दीस परिस्थिती बिकट जायत गेली.

मार्विनाक सोडून उरिल्ल्या सगळ्या भुरग्यांक आतां सगळीं कार्डां वाचपाक येतालीं.

तो सदांच खूब जाणां मदीं एकसुरो आशिल्लो.

ताका आपल्या आई-बाबाक सांगनशें दिसतालें, पूण तांच्या माथ्यार वजें कित्याक? म्हूण तो ओगी रावतालो.



"ही चीट तूं घरा व्हरून दाखय," मीस ब्रावन टिचरीन चीट दीत म्हणलें.

"ही चीट तुज्या आई - बाबान तुज्या वांगडा सदांच वाचूंक जाय आनी हाचेर तांणी सय मारूंक जाय."



आई बाबा सदांच कामांत घुसपल्लें आसताले. तांकां हें कशें फावतलें?



टिचरीक तांच्या डेरी फार्मा विशीं खबर नाशिल्ल्यान तो कितें म्हणटा तें तिका समजले ना.



"तूं म्हज्या वांगडा वाचतलें?" मार्विनान मेक विचारलें.

"आयज ना! आयज म्हाका खूब घरपाठ आसा," मेन पुस्तका वयली नदर हालयनासतना म्हणलें.



कोणाकूच आपल्या वांगडा वाचूंक फावना म्हूण बेजारून मार्विनान शिक्षिकेन दिल्ली ती चीट पिंदून वडयली.

ताचेर आतां भुरगीं हांसतालीं, ताचीं फकांडां मारतालीं.



“आंवंय आंवंय! तुका वाचूंक येना," मेरीन चाळयलें.

“घडये ताच्या आवय बापायकूय येना जायत," जोन फकांडां मारलीं.

मार्विनाक रडनशें दिसलें पूण तो रडलो ना. उरफाटें ताणें जोचेर एक थापट फुलयलें.

शिक्षिका हें पळोवन खंती जाली.



"तुका वाचूंक येना म्हणून तूं रागार जाला," मेरीन म्हणलें.

“वाचप म्हणल्यार फालतूपणां," मार्विनान वितरागान म्हणलें.



मार्विनाक सोडून बाकीचीं सगळीं भुरगीं आतां पुस्तकां वाचूंक लागिल्लीं.



"आमचे कडेन खूब बरीं पुस्तकां आसात, तुका खंयचें आवडटा तें हातूंतल्यान घे,” मीस ब्रावनान मार्विनाक पुस्तकां दाखयत सांगलें.

"पुस्तकां म्हणल्यार फालतूपणां," मार्विनान परत तेंच म्हणलें.




मार्विनाक झेल पडिल्लो जाय आसलो, तातूंत वादळ आयल्यार कितलें बरें? मागीर शाळा आसची ना अशें मार्विनान चिंतलें.

निमणे कडेन मार्विनाचीं उतरां खरीं जालीं. खरेंच वादळ-वारें सुटलें.
तो खूब खोशी जालो.
आतां ताका घरांच रावचे पडले.
कारण घरांत तो खूब जाणां मदीं एकसुरो नाशिल्लो.





पूण पप्पाक ह्या वादळाक लागून हुसको जाल्लो.
“लायट गेल्यार आमी गायचें दूद कशें काडटलीं?" पप्पान निराश जावन म्हणलें.

“जर रस्तो ह्या झेलान भरलो जाल्यार ट्रक हें दूद कसो व्हरतलो?" आवयन म्हणलें.

"आमची फाल्यां फिल्ड ट्रिप पूण आतां तिवूय जावची ना," मेन दुख्खी जावन म्हणलें.

"ह्या वादळाचो दोशी हांव, पूण सगळयांक हांव खंयच्या तोंडान सांगूं?" मार्विनान मनांतल्या मनान चिंतलें.

ताका रडनशें दिसलें पूण तो रडलो ना.

“मार्विन आमी शाळा - शाळा खेळया?” मेन विचारलें.

मार्विनाक शाळा मातूय आवडनासली पूण कितें करतलो? ताका मेक खोशी करपाचें आशिल्ले.






"म्हजे कडेन कांय कार्डां आसात" मेन सांगलें.

"ह्या कार्डार कितें बरयलां सांग?"

"म्हाका खबर ना," मार्विनान उदास जावन म्हणलें.

“मार्विन! ती तुजी आवडटी वस्त,” मेन म्हणलें.

कार्डाचे फाटले वटेन गायेचें चित्र आशिल्लें.

"गाss यsss” मेन म्हणलें.

“तुका वायट दिसलें,” मार्विनान विचारलें.






“ना” मेन म्हणलें.

“पळय! गाss यss.”

मेन ताका दुसरें कार्ड दाखयलें. "हाचेर कितें बरयलां सांग?"
मार्विनान न्हयकारान तकली हालयली.

त्या कार्डाचे फाटल्यान माजराचें चित्र आशिल्लें.



"माजर?" मार्विनान विचारलें.

"ना," मेन म्हणलें. "म्याss यांवss” पळयलें कितलें सोंपें तें?

"हें वाचन बीन फालतूपणां!" मार्विनान बेजारीत म्हणलें.

तेन्नाच मम्मी - पप्पा घरांत भितर सरलीं. तांचेर खूब बर्फ पडिल्लो.
"बर्फ आयज हिसपा भायर पडपाक लागला," मम्मीन वाजेत म्हणलें. "ती बर्फ कडेक काडपाची गाडी हांगा पावल्यार पुरो."
"हय, ही लायट आनी वचना जाल्यार पुरो," पप्पान म्हणलें.





तेन्नाच लायट गेली. मम्मा आनी पप्पाक आनीक हुसको जालो.

"हें सगळें म्हाकाच लागून जाता," मार्विनाक रडनशें दिसलें आनी तो रडलोय...



"पुता, कितें जालें?" पप्पान विचारलें.

"पप्पा, वादळाक हांवें आपयलां. कारण म्हाका शाळेक वचपाक नाका आशिल्ले," अशें म्हणून तो हुडक्या हुडक्यांनी रडपाक लागलो.

"अरे शाण्या, ह्या वादळाचो दोशी तूं न्ही. आनी म्हाका सांग तुका शाळेंत कित्याक वचपाक नाका?" पप्पान विचारलें.

"वाचन. म्हाका सोडून सगळ्यांक वाचूंक येता," मार्विनान सांगलें.



"हय. वाचन मातशें कठीण. तूं जाणा? हांवूय म्हज्या वर्गांतलो सगळयांत निमणो वाचूंक शिकिल्लो भुरगो," पप्पान म्हणलें.

ताचो पप्पा खूब हुशार. म्हणून मार्विनाक हें पटूंक मातसो वेळ लागलो.
ताका गाय, म्हशी आनी ट्रका विशीं अचूक माहिती आशिल्ली.

"हय. हांवूय निमणो भुरगो आशिल्लो." पप्पान मार्विनाक म्हणलें.

"वाचप म्हणल्यार फालतूपणां," मार्विनान म्हणलें.

"ना. वाचन खूब म्हत्वाचें. आमकां कांय जाणांक तें समजून घेवंक वेळ लागता, तुकाय तें बेगीनच जमतलें," पप्पान समजावन सांगलें.



हें आयकून मार्विनाच्या जिवाक सूsss जालें.

"पप्पा तूं म्हाका वाचून दाखयतलो?"
"हय तर!" पप्पान म्हणलें.

गायचेर बरयल्ली एक मजेशीर कविता, मेन पप्पाक वाचूंक दिली.





पप्पा शब्दाचेर बोट दवरत वाचतालो.

"हांवें केन्नाच जांबळी गाय पळोवंक ना,
आनी म्हाका केन्ना पळोवंकय नाका,
पूण हांव हें सांगून दवरता तुका,
तातूंतली एक जावचे परस,
म्हाका ती पळोवपाकूच खुशी मेळटली."

“आवय गे!" मार्विनान म्हणलें.

“कितें जालें?” पप्पान विचारलें.





“ना ना. पप्पा पळय गा-आय ssss.”

“मार्विन तूं वाचता. तुवें आतांच गाय वाचलें.

पप्पा उमेदी जालो.

“म्हाका गाय खूब आवडटा आनी गाय म्हजें आवडटें उतर. तुमकां खबर आसा म्हजेंय नांव गाय भशेन हाबेता?“ मार्विन सामको खोशी जाल्लो.

“हय? तें कशें?” पप्पान विचारले.

"माssssssssssर विन," मार्विनान म्हणलें.

"सारकें मार्विन, 'म' अक्षर गाये वरी हाबेता."



आनी तेन्नाच लायट आयली.
रोखडेच तांकां बर्फ नांगरपाचे गाडयेचो आवाज आयकूंक आयलो.

"पप्पा फाल्यां हांव मीस ब्रावssssन शिक्षिकेक माsssssssr विनाच्या गाssssयच्या बद्द्ल सांगतलों."





"आनी मीस ब्रावssssन शिक्षिकेक हांव आनी पप्पा सदां रातीं वाचतले म्हणून सांग. जे चले वाचूंक कळाव करतात तांणी कोणाच्या तरी सांगातान रावंक जाय," पप्पान म्हणलें.



आनी अशेच रितीन,

माssssssssर विन वाचपाक शिकलो.

आनी तो आतां खूब जाणां मदीं एकसुरो नाशिल्लो.

# समाप्त